



# गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो

सूर्या अशोक

# गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो

(कविता संग्रह)






## सूर्या अशोक

शेणै प्रकाशन

कोची

2007

Konkani

# GUNJIYO AKSHARAVRIKSHACHYO

Poems

**SURYA ASHOK**
19/36 A, 'Srinivas',
Waterland Road, Palluruthy,
Kochi - 682 006

First Edition - 2007




Published by
**SHENOY PRAKASHAN**
Kochi - 682 006.

Printed at
**VASANT INDUSTRIES**
Town Hall Road,
Kochi - 682 002

Price : **Rs. 100/-**

Cover Design : Surya Ashok

# गुंजियो पुंजायल्यो तेन्ना

रत्नां मोतीं आदी एकड करचें मिजे भाग्यांत ना म्हणून हांव तकतकेंवच्यो सादूयो गुंजियो तरी एकडे करूक आंगणांत देवलेलीं. तेन्ना मिजे दृष्टींत एक अप्रूप रूक पडलो जाचे खांदे फांदळेवन ऊंच मळबा कडे पावल्याय आनी जाचीं मूळां धर्तरेचे मोगाळ, मायेस्त वेंगेंत पडून आसाय! ताज्या खांद्यांचेर घोंटेर बांदिल्या सपनाळ्या सवण्यांचे मधुर गीत, आनी ताज्या फुलांचो घमघम मिजे उमाळे जागोवूंक लागले. त्या रुकाच्यो गुंजियो माका खूब आवडल्यो आनी त्यो हांवें मोगान एकडे केल्यो. तेन्ना माका कळ्ळें तो रूक सादो रूक न्हय. तो अक्षरवृक्ष! आनी हांवें पुंजायलेल्यो ह्यो गुंजियो त्या अक्षरवृक्षाच्यो!

ह्या गुंजियां खातीर माका प्रोत्साह दिल्लेल्या मिगेले मोगाळ घरच्यांक आनी मायेस्त इतर सर्वांक हांव आतां उपकार सांगतां. ह्या संग्रहाक उत्कृष्ट रूपान प्रस्तावना बरोवन दिलेल्या उडुपीच्या प्रो. एम. एन. प्रभू हांका भरलेले काळजान धन्यवाद सांगतां. हांवें पुंजायलेल्यो ह्यो पोसो भर गुंजियो आतां आवय कोंकणीचे पावलां कडे समर्पण करतां.

-सूर्या अशोक

# मांडावळ

# काव्याच्या कुंजवनांत -

कोंकणी वाचकवृंदाक सुपरिचित नामांकित लेखिका, कवयित्री म्हणण नांव गाजैली श्रीमती सूर्या अशोकाले प्रस्तुत पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवचो प्रस्ताप अप्रस्तुत दिसता. चित्रकला, साहित्योपासकता, सौंदर्यप्रज्ञेन अनेक कलाकारांलें वाचकालें मन मंत्रमुग्ध केलिल्या ह्या कवयित्रीलो *'गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो'* कवितासंग्रह आत्तां प्रकाशित जाल्ला. पुस्तकाक *'गुंजियो पुंजायल्यो तेन्ना'* म्होण्णु कवयित्रीन गद्यांतु बरयिल्ली पीठिका अत्यंत काव्यमय जाव्नास्सा. मेरुसदृश अक्षरवृक्षांतुल्यान पडिल्यो गुंजियो एकत्र कर्नु कवयित्रीन ह्या कविता संग्रहांतु पुंजायल्या. हो अक्षरवृक्ष गगनचुंबी आस्सूनु, सवण्यांच्या मधुर गुंजनान, गुंज्यानि समृद्ध आश्शिलो रुक. ह्या रुकाची कल्पना ह्या कवयित्रील्या कल्पनाशक्तीक एक उत्तम निदर्शन. हांगा येवचें अक्षरवृक्षाचें रूपक अत्यंत समर्पक आस्सा. ह्यो गुंजियो स विभागांत पुंजावूनु सजैल्यांति. विभागांच्या शिरोनाम्यांक समंजस जाव्नु कवनां एकत्र वोट्टु केल्यांति. प्रत्येक विभागाच्या आदी प्रसंगावधानी Quotable Quote उल्लेख करचें हांगेलें वैशिष्ट्य.

*'सपनांत उपजलीं कवनां'* ह्या विभागांत कवयित्री काव्यनिर्मिती बद्दल प्रकाश घालता




*जगांत उपजताय*
*सपनां*
*सपनांत उपजताय*
*कवनां*

अगाध कल्पनाशक्ती आश्शिलो चिंतनशील कवि जगा बद्दल एक सुंदर सपन पळैता. त्या सपनाक शब्दांनी सुंदर मूर्तस्वरूप

दीवन काव्यनिर्माण करता. कवितेची उगम कवील्या मधुर सपनांत जावन, नंतर साकार जाता. A.W.E. O'Shaughnessy,

*"We are the music-makers*
*And we are the dreamers of dreams"*

म्हण्ण हेंच सांगता.

तें सुंदर सपन पळोचाक कवीक दिव्यदृष्टी, ऊहातीत कल्पनाशक्ति आसचा जाय. कल्पना शक्ति ना जाल्यारी कविता बरोवचें असाध्य. कवीलें मनोगत हृद्गत जावन अलंकारिक रूपान भायर येवन काव्यसौधाचो निर्माण जाता. कवित्व शक्ति देवाली देण. सर्वांक काव्य बरोवचाक जायना. *'नानृषिः कुरुते काव्यम्'* म्हण्ण संस्कृतांत एक उक्ति आस्सा. कवीक दिव्यदृष्टी, कल्पनाशक्ति, जीवन पळोवचे तीक्ष्ण परिज्ञान आसका. काव्यांतु पदलालित्य, संगीतमाधुर्य आसचाक कवीक शब्दशक्तीचेर हतोटी आसच्या जाय. ह्या सगळ्यांचो संगम ह्या कवयित्रींत अधिकप्रमाणांत आस्सा म्हळ्यार अतिशयोक्ति जायना.

ह्या कवयित्रीलें जीवनची एक कवन. *'जीण भरली कवनांनी'* ह्या ओळींत हें सत्य ओळखूचाक मेळता. हिगेल्या हृदय समुद्रांतुल्यान कवितेच्यो ल्हारां उचंबळून येतात. कवि कल्पनासाम्राज्यांत बुडून आसलो तरी तागेले पाय जमनीरीच घट्ट आसतात. काव्य आनी जीवन एकमेकांत रिगून, बरसून, आस्साति. जीवन विना काव्य रचना असाध्य.

*जीवन रस विना रुक*
*रेंवटेंत कशी फूलता?*

म्हण्ण तिरुवळ्ळुवर कवील्या शब्दांत सांगुयेत.

हांगा येवचीं कवनां स्वच्छंदरीतीन आयल्यांति. खंयि सुद्दा कृत्रिमता अरगून चोयना. तें कवयित्रील्या शब्दांतूची अभिव्यक्त जाता.

*झाड मिजें पारिजात*
*फुलता तें रात्यां रात*

ह्या प्रमाणें कवनांक सहज सौंदर्य प्राप्त जालां.

*'सैम शिल्पां'* त सृष्टि सौंदर्याचेर कवनां बरेल्यांत. कवयित्रीक मळबांतुलीं कुपां *'कापसी बोंड मळबार फुटून कापसा कोंड'* पसरल्यावरी दिसतात. रातीन मोगरे कळे फुलतात आनी कवयित्रीलो मोग उप्पुन घेतात. दर्या आपळ्यालें दुःख भरिलें पोट वयरचे वयर तटाक येवन रित्तें करता. चांदिण्याचें धंय घांटल्यारि मेळता चंद्रम लोणीचो गूळो. *'सदांच सूर्या चाबता फडी पान आनी दर्या तांबडी जाता पीकीन'*. ह्या सगळ्या ओळींत येवची कवयित्रीली कल्पनाशक्ति अगाध. जाल्यारि प्रत्येक कवितेची कूलंकष विवेचना करचाक ह्या प्रस्तावनेंत आस्पद ना. स्वतः चित्रकार आशिल्या ह्या कवयित्रीक रंग रंगान चित्ताकर्षणीय चित्रं सजौव्चे म्हळ्यारि अत्यंत प्रीति. उदाः

*नीळ कापडारी*
*फुलां आसाय श्वेत*
*फुलांचे देगेरी*
*भांगराचे फीत.*

हांतुतली वर्णविन्यास कौतुक कर्तश्शी आस्सा. अस्सलीं वर्णचित्रं कवयित्री वाचकांल्या दोळ्यामुखारी उभेऊभ राबैता.

कवयित्रीलें चित्रकला नैपुण्य कवितांक अत्यधिक मोल दिवचांतु यशस्वी जात्ता.

*'चित्र-विचित्र'* -ह्या जगांतु अनेक, असंख्य वैचित्र्य, वैविध्य, वैपरीत्य, वैरुद्ध्य भरल्यांचि. तीं सोदून वेंचूनु एकत्र हाण्णु तांगेलीं संयोजन करच्याक कवीक सूक्ष्मग्रहण शक्ति तीक्ष्णपरिवीक्षणामति आसचा जाय. हे गूण ह्या कवयित्रींतु अतिशय प्रमाणांतु आस्सचि म्हळिल्यांतु संशय ना. एक दोनि उदाहरण पळैल्यारि हो विषयु मनाक पटता. उदाः-

- *कंजूस मनीषु कंजूसीन*
  *दरिद्रा वरी जियेता.*
  *दरिद्र मनीषु दारिद्र्यान*
  *कंजूसा वरी जियेता.*

- *भुकेल्याक कळता*
  *खाणा मोल*
  *खातल्याक कळना*
  *भुकें तोल.*

- *दुड्ड संबाळूक*
  *धनिक नीद खोळता*
  *दुड्ड जोडूक*
  *दरिद्र नीद खोळता*

अस्सली अनेक चमत्कारिक विरोधाभास आशिलीं उदाहरण दीव्येत. जाल्यारी

*मरण पावलेल्याक कळता*
*मोल जीविताचें.*

हांतु येवचो असंगत विचार अस्वीकारार्ह.... कारण जीवन आमगेल्या दृष्टिकोणाचेरी अवलंबून आस्सा. प्रसिद्ध तत्वज्ञानी Horace Walpole हेंच सांगता.

*काळके रातींतूय*
*बुद्धवंत उजवाडान भरला*
*दिसा उजवाडांतूय*
*बुद्धिमंद काळकांतूच बुडला.*

जीवनमौल्य आसल्यारी मात्र मनुष्यजीवन सार्थक. फकत धनसंपादन कर्नु धनपिशाची जाल्यारी जीवन व्यर्थ, निरर्थक. मनुष्याक सूख जावका जाल्यारी मित्र आस्सूकाति. '*अमित्रस्य कुतः सुखम्*' म्हण्ण संस्कृतांतु सुभाषित आस्सा. तेंची सरळ भाषेंतु कवयित्रीन ह्या चौपदींत सांगलां.

*धन आसा*
*तो धनिक*
*पुण मित्र ना*
*तो गरीब.*

कांही शब्दाडंबर नास्तना बरयिल्ली ही चौपदी अनुभवामृत वाणी. कवयित्रीली पारदर्शक प्रामाणिकता हांतु उठून दिसता.

'*भक्ति-सुक्ति*' तु देवाले ध्यानाक महत्व दिल्लेलो आसा. अचल भक्तीन, प्रामाणिकतेन, निष्ठेन, काया, वाचा, मनसा श्रद्धेन भजल्यारि देवु भक्तांक सोडिना -

*उजवाडांत सावळी*
*आमकां सोडीना.*
*देवाची सावळी*

*अंधकारांतूय सोडिना.*

हांगा येवचो महोन्नत विचार चमत्कारिक रीतीन अभिव्यक्त केल्लेलें यथोचित आनी विदित विषयु. *'न मे भक्तः प्रणश्यति'* म्हण्णु देवानची आश्वासन दीनिवे? जगांतल्या सर्व कार्य, कारणांक देवूची मूलाधार स्तंभ. *'तूच कर्ता आणी करविता'* म्हण्णु मराठींतु सांगलां. हें जग सर्वव्यापी, सर्वज्ञानी, सर्वशक्तिशाली देवाली लीला. तरी देव खंयि आस्सा?

*देव वास करता*
*दीन मनुष्याले काळजांत.*

श्रमिकाल्या हूमेंत, कृषिकान्नि शेत कोसच्या नांगरांत. देव मनुषाल्या म्हार्यांतच आस्सा.

*'उम्मास पुन्नव'* - दुःखानंतर येवच्या सुखाचि संकेत.
*राति जाल्यार दीसु आसा*
*दीसु जाल्यार राति आसा.*

राति, दीसावरी दुःख सुखाचें चक्र घुंवत आसता. *'चक्रवत् परिवर्तंते दुःखानि च सुखानि च'*. सुख कळूक, दुःख वळकूका.

*दुकांचे पावसान*
*शिंपून*
*सुखाचें रान*
*वाडोंवचें*

सुख दुःख मनष्याली दृष्टिकोनाचेरी अवलंबून आश्शिली मानसिक अवस्था. सुख खंयीचि विकत मेळना. तें मनष्याल्या ह्रदयांतुल्यान पाझरता.

*मोगा रुक वोंवचो एक*
*फळां मेळतली सुखाचीं.*

असल्योचि उक्तयो *'चिंतनाचीं ल्हारां'* विभागांत मुकार्सताचि.

'No pains, no gains' म्हळ्ळो विषय सिद्ध करच्याक कवयित्रीन अनेक दृष्टांत दिल्याचि. उदा -

- *आळस्या, जाय तरी मासळी*
  *सोडी तूं मांचाची सावळी.*
- *जीणेचे जांबा झाडार*
  *जांब तांबडे तांबडे*
  *काडूक आळसाय जाल्यार*
  *बेस गिळून आंयडे!*

*'उद्यमेन हि सिद्ध्यंति कार्याणि न मनोरथैः'* हेंची तत्व स्पष्ट कर्न सांगता.

ह्या कवयित्रीले काव्यशैलीचें एक वैशिष्ट्य म्हळ्यारि शब्द चमत्कार, श्लेषालंकाराच्या मोडीन कवयित्री वाचकालें मनं जिक्ता. उदा -

*भोवर येता पळोवनू गुलाबी*
*मोवाळ करता तिजे कांटे*
*मोगीक लागी पळोवनू मोगरी*
*आंगार फुलायता हर्षाचे कांटे*

दुसर्या ओळींत येवचे कांटे म्हळ्यार Thorns. चवत्या ओळींत येवचे कांटे म्हळ्यार हर्ष पुळकित जावचे रोमांचन.

*वाती जळतना*
*सावळी नांचता*

*वाती वाडवतना*
*सावळी नाच जाता.*

हांगा येवचे शब्द चमत्कार गमनार्ह. तश्शींचि

*रीण घेतल्लो*
*विसरूक चोयता.*
*रीण दिल्लोलो*
*विसरनाशिं चोयता.*

हांगा दोग्गीजण चोयताचि जाल्यारि परस्पर विरुद्ध उद्देशान!

*माडवोळाक उंबळूक*
*ना तरी वस्त्रां वजें*
*जीणाच तागेली*
*जातली एक वजें*

हांगचे श्लेष उल्लेखनीय. पयलें वजें म्हळ्यारी Load दुसरें वजें म्हळ्यारी Burden! हें वाचकान्नि लक्ष्यांत घेवचें. असले शब्द चमत्कार ह्या संकलनांत खूब मेळतात.

दैनंदिन विशिष्ट कोंकणी शब्द उपयोग कर्न कवयित्रीन कोंकणीचि शोभा समर्थरीतीन वाडैला. उदा. तुपादिवली, आंयडो, गीम, बाबडो, फोडिपान, झांकता.

ह्या खंडांत कवयित्रीन बरयिल्लें सगळें original म्हण समजका म्हण्ण ना.

*जियेंवचे खातीर*
*खायाय*
*खांवचे खातीर*
*जियेवनाकाय*

हांतु सोक्रेटीसान म्हळिल्ले 'Some men eat to live; some men live to eat'. हाज्जो ध्वनितार्थ आस्सा.

*बेळार पावसु पडना तरी*
*म्हणताय पावसु घाली, हरी!*
*पावसु चडून हुवार जातरी*
*दिसता गीम बरो सरी!*

आमका लाभिल्यांत आम्मी संतोष पाव्नाति, Shelley न म्हळिल्यावरि 'We pine for what is not'. म्हळ्ळेले अक्षरशः सत्य.

*तूं हासतना लोकूय हासता*
*पुण रडतना एकलोच रडता.*

ह्या ओळींतु 'When you laugh you laugh with others; when you weep, you weep alone' हाज्जो ध्वनितार्थ आस्सा.

जास्त कर्न हांगा येवच्यो चौपदी संस्कृत *सुभाषित* प्रकाराच्यो. जगाची रीति-नीति, प्रपंचाचे ज्ञान संस्कार, संस्कृती ह्या सुभाषितांतु समावेश जाल्यांति. सुभाषित साहित्य प्रकाराक संस्कृतांतु अतीव महत्व आस्सा. '*पृथिव्यां त्रीणि नेत्राणि जलं, अन्नं, सुभाषितम्.*' सुभाषितांतु उपदेशामृत आसता. जाल्यारि ह्या चौपदींतु शुष्क उपदेश ना. काव्याचे सत्व आसा. '*संताले संसर्गान जिणेंत भरता गोडसाण*' 'कपलांतूली बर्पां पुसूक जावचिना' असल्यो असंख्य गुंजियो अथवा मौक्तिक सर कवयित्रीन कौशल्यान पुंजायल्याचिं. नैतिक मौल्यं अधःपतन जावचा आयच्या दीसांतु तांगेलें पुनरुत्थान करचे कवयित्रीलो प्रयत्नु अभिनंदनार्ह. कवयित्री केन्ना ही आशावादी.

*पोरूचें वर्ष गळगळता पळय*
*दुख झाडून जळोवनू उडय*
*नवें वर्ष फुलता पळय*
*सुखा परमळाचीं सपनां फुलय.*

फुडे काळांतु भांगर तोलचाक गुंजियो वापरताले. हांगा येवंच्यो गुंजियो भांगराक समानतुल्य जावन आस्सति. Madame de Stile म्हळ्ळी फ्रेंच विमर्शिका 'Poetry is a speaking picture' म्हणता. ही उक्ती हांगा येवचा प्रत्येक चौपदीक सार्थक रीतीन अन्वय जाता.

*मोगरीं गांतून*
*माळा परमळाची*
*उतरां गांतून*
*माळा कवनांची.*

ह्या प्रकार फुलांचो गोड सुवासु सर्वदिशांतु पसरूनु, ह्या कवयित्रीन कोंकणी काव्याक नवो आयाम दीव्नु महदुपकार केला. सप्रास ताळ, लयबद्ध तेजःपुंज पदपुंजाच्या ह्या काव्य कुंजवनांत विहार करचेंच एक अमोघ संतोष. ह्या अनघ, अनर्घ्य कृतिरत्नाक सगळे वाचकवृंद सुस्वागत करतले म्हळ्ळो विश्वास माक्का आस्सा. उज्वल भविष्य आश्शिल्या श्रीमति सूर्या अशोक हांगेली काव्यकन्या सकल गुणसंपन्न जावन, नवनवोन्मेषशालिनी जावन झळकतेरी आसो म्हण आशा भावना प्रकट करतां.

**प्रो. एम्. एन्. प्रभु, उडुपि.**

## सैम शिल्पां

साळकाच्या लग्नाक
बाळकां आयलीं सात
तांकां पळयत नखेत्रां
जागलीं सगळी रात

**- पत्मश्री र. वि. पंडित**
(दर्या गाजोता)

मळबावेली न्हंय
व्होळता शांत, शीतळ
मोंचुवारी येवनु चंद्रेमु
पुंजायता कमळ

*

खंय तरी रुकार
कापसी बोंड
फुटून मळबार
कापसा कोंड

कितलीं शिंवडून पडल्यांय
फारून हाडलेलीं वज्रां !
निपून धांवता मू वीर,
मेघा मागशीच्यान चोर !

*

मळब, कापूस पुंजावन
उशें भरूक बेसली !
कापसाचेरी गोबोर फाफडून
कोणे तिका रडयली ?

दिसाचें, कापूस पुंजावन
मळब वाती विणता
आनी रातीचें, पोणत्यो लावन
मोगीक राकता

*

सूर्या आनी पावस मेळून
खेळत खेळत आयले
भांगराचे कापडाक लागोवन
सप्त वर्णाचें पल्लू विणलें

दीस सगोळ सूर्या भोंवता
चंद्राक मेळूक म्हूण
पुण चंद्रु मुकार सरता
काळकांत वाट विसरून

*

फुलांचे सर्वत्र
रंग फारून
विणलें वस्त्र
पिसोळ्यान !

मळबाचे दर्यांत झूज चलता
तोफांचो उजो जोगुलेता
गूळ्यांचीं गर्जनां आयकनाय वे?
सूर्याचें तारूं बुडयल्यांच मू रे!

*

कित्याक रडता धर्तरी?
ना वे तिका सुख?
तोणा पाल्यां तलवारी
गळयता मू ती दुकां!

सांज जाता, दीसु सरता
सरसरेवनु देंवता सूर्या
भूक लागून सूर्याक राकता
गिळूनूच सोडता दर्या

*

कोण रे तें मळबारी
सदांच खेळता हुकूळी?
सांज जातना पश्चिमारी
उदकांत उवसीता हळदी?

कितले कृत्यनिष्ठ
सूर्या, दर्या आसाची
राति जातरी, दीसु स्पष्ट
भरती सुक्ती चुकयनाची

*

दर्याचे काळजांत
भरल्यां कितलें दुख !
गळताय तिजे दोळ्यांत
सदा मिटूस दुकां !

दिसाक शिंगारून
भांगराचीं कांकणां
रात्यां ऱाती खिळखिळावून
रूप्याचीं पांयजणां

*

काळे रातीचो
काळो केसु
चन्द्रमाचो
धवो वेषु

अपघातांत
फुटले
कांचेचे कुटके -
नक्षत्रां !

*

चंद्रु हासतना
दोळे धांकता -
हासु राबतना
तोंडच खंय वता ?

मळबारी आसा पळयलें
होडलें एक रोंटस!
खावूक इतलें होडलें
केद्दो आसका मनीस!

*

राती चंद्राक
बांयतू कोणे घालो?
फाल्यार ना दिकूक
बाबडो बुडून मेल्लो?

चांदिण्याचें धंय
घांटून मेळ्ळोलो
चंद्रेमु पळय
लोणियेचो गूळो !

*

व्हारडीक
सूर्या-चंद्राची
केद्दी मुद्दी
वज्राची !

सूर्या मळबाचेरी
कोपु काडता
आनी मळब
रडतरी राबता

*

भोवर येता पळोवनू गुलाबी
मोवाळ करता तिजे कांटे
मोगीक लागी पळोवनू मोगरी
आंगार फुलायता हर्षाचे कांटे

मोगियांचो मोग पळोवन
सूर्या लजेन बुडलो,
थंडीचे कांटे तोपूक
कुसंगो चंद्रु फुलेलो !

*

गिम्माचे दिसांनी
पावस एक पडता
भिजल्ले मत्तियेचो
वास गावांत भरता
गावांतुले लोकांचें
काळीज भिजूक लागता

कसलें करता हो सूर्या?
दीसभर मळबा लागी मोग
सांज जातरी मोगी - दर्या

*

नीळ कापडारी
फुलां आसाय श्वेत
फुलांचे देगेरी
भांगराचें फीत
सुंदरेले चोळियेरी
वर्णां मू सात!

सूर्या कोपान
तांबडो जाला -
चंद्रु भयान
धवो जाला -

*

गिम्माचे दिसांनी
झाडां खेळनु धुळेलीं
पावसाडी पावसांनी
जालीं न्हावनु पाचवीं, मोवाळीं

झोडु आयलो दर्या वयरी
ल्हारां चडलीं ऊंच ऊंच
दर्या वयलीं सान मोंचूवां
बुडुन गेलीं पोंदाक पोंदाक

*

सूर्या, दर्याचो जाला मू मेळ
सूर्याक वेगेंत ओडता मोगाळ
दर्या घालता वेषु भांगराळ
तांबड्या गालांचो सांजे वेळ

सदांच सूर्या
चाबता फडी पान
आनी दर्या
तांबडी जाता पीकीन !

*

साकरेचे पांकांत मू रे
गोड गोड रसगुळा
चांदिण्याचे पांकांत रे
होडु होडु चंद्रु पडला

पुनवे राति न्हेसून आयल्या
रुप्याचीं वस्त्रां
गळ्यारि घालून आयल्या
माळा करून नक्षत्रां
सगल्या आंगाक लावन आयल्या
फुलां परमळाचें अत्तर
काळीज मिजें मोवाळें केल्यां
आशिल्लें जें फातर !

# चित्र - विचित्र

अशेंच करीत आयले
फातरांच्या देवांक
रगतान न्हाणयले
रगताच्या मनशांक
फातरान धाडायले

**- डॉ. मनोहरराय सरदेसाय**
(जायो - जुयो)

कायळ्याक तांय दिताय शीत
मानून ताका पित्र
भिकारीक मात्र ना भीक
कितलें विचित्र !

*

कंजूस मनीषु कंजूसीन
दरिद्रा वरी जियेता
दरिद्र मनीषु दारिद्र्यान
कंजूसा वरी जियेता

भरलोलो कळसो
शब्दु करीना
पोकळ मनीश
शब्दु राबयना

*

उजवाड दिवंचाक
दिवटी जळता
अंधकार भरलेल्यान
काळीज जळता!

धन आसा
तो धनिक
पुण मित्र ना
तो गरीब

*

भुकेल्याक कळता
खाणा मोल
खातल्याक कळना
भुके तोल

केसु मात्यार आसतना
दिसता सुंदर मोवाळ
केसु खाणांत दिकतना
अळसिकेचो आगोळ !

*

सृष्टीची स्फूर्ति
आयली शिल्पीक
संहारमूर्ती
घडयली दशहरेक

फटी सांगल्यार
तीच घेता फाट
सत्य सांगल्यार
तेंच दाकयता वाट

*

गरीब आसतना
आशिल्लो तो मनीस
धन जोडलें तेन्ना
आयले मनीसपण नाशिल्ले दीस

वाती जळतना
सावळी नांचता
वाती वाडवतना
सावळी नाच जाता

*

दरिद्रान मरतना
जाता सादी धूळी
धनिकान मरतना
भांगार जावूंक आसा वे गूळी?

सीता मागता
भांगरा चित्तळ
पापणीक मेळता
दुखाची संकाळ

*

श्रावणाक मारलो दशरथान
रामाक वनवास!
रामान मारलेले कारणान
रावणाक स्वर्गवास!

रीण घेतल्लो
विसरूक चोयता
रीण दिल्लोलो
विसरनाशिं चोयता

*

उपाश्याक मात्र कळता
मोल खाणाचें
मरण पावलेल्याक कळता
मोल जीविताचें

रित्ते हातान
जन्मल्ले धनवंताक
भरलेले हातान
जातलें वचाक?

*

उपाशि पडूक नज म्हूण
काम करता एकलो
काम करूक नज म्हूण
उपाशि पडता आनी एकलो

काळकांत भरता कीस
एकलो चोरायो करून
आनी दरिद्रांले दीस
उजवाडायता दान दीवन

*

चमकून वचाक
पाय खरे जाय
अंत्याचे यात्रेक
आसून कित्तें कार्य ?

बुद्दी आसा जाल्यार
दुड्ड जोडूयात
बुद्दी ना जाल्यार
आशिल्लेय मोडूयात

*

जन्मु घेतना
रडून येता
मरण पांवतना
रडोवनू वता

सूख आसतना
ना ताका मोल
दुख येतना
कळता सूखाचें तोल

*

बद्धवन्तु उलयता
उणींच बरीं उतरां
पोकळ मनीश झांकता
साबार निरर्थ उतरां

आशेलेलें सगळें
मेळतलें म्हूण ना
मेळ्ळेलें सगळें
आशेलेलेंच म्हूण ना

*

उतरांक जीव
दिता जीब
जिबेक जीव
दिता नशीब

रित्ते हातान
दीवूक जायना
भरलेले हातान
घेवूकय जायना

*

दीस भर जोडता
आनी रात भर
सूरु पीवनु पडता

काळजांत वेळ
आसा तरी
घडियाळ
आमचो दासु सरी !

*

ताळियो वाजूक
हात जाय दोन
झगड्यांत पडूक
जीब जाय दोन

दुड्डु संबाळूक
धनिक नीद खोळता
दुड्डु जोडूक
दरिद्र नीद खोळता

*

चोराचें भय
घरकाराक
मार खांवचें भय
चोराक

दीस मेजले तेन्ना
वताय दिकलेंना
मेजप राबयलें तेन्ना
गेल्लेलेच कळ्ळेंना !

*

आंग जालें काळें
म्हणून रडता
केस जाताय धवे
म्हणूनूय रडता !

भरला काळजांत
चिकोल तरी
वोचूना गंगेंत
न्हाल्यार सरी

*

बरें काम करचो
सांगून भोवना
सांगून भोंवचो
बरें काम करना

काळके रातींतूय
बुद्धवंत उजवाडान भरला
दिसा उजवाडांतूय
बुद्धिमंद काळकांतूच बुडला

*

प्रयत्न करतल्याक
सांगातांत आसता भाग्य
भाग्य नाशिल्याक
सांगातांत आसाच मू आलस्य !

सूखांत भाग घेंवचो
मित्र आसूक पूरो
दुखांत सोडून वचो
मित्र न्हयींच खरो!

*

रातीचें उजवाड करयात
दिसाचें काळूक जावना
फटीचें सत्य म्हणूयात
सत्य फटी जावना

कुरडो आसूनूय सूरदास
आसलो ज्ञानी
दृष्टि आसूनूय अज्ञाना दास
जियेताय कुरडेपणानी

*

धन जोडूक
केल्लेले दुष्कर्म
निपोंवचाक
करता दान धर्म

आंग कितलेंय धवें आसो
सावळी काळीच आसता

*

काळकांत साकून
उजवाडांत सरतना
दोळे बंद जाताय
उजवाडांत साकून
काळकांत वतना
दोळे बंद दिसताय

सूरु पीवनु पिवगो
लकून चमकता
आनी लेकिता मू रे
दुसेरो लकता

*

अन्य कोणाक
मारतना चोय
तुजेच काळजाक
पडता घाय !

काळकांत केल्लेली फटवण
येना उजवाडांत!
उजवाडांत केल्लेलें चांगपण
वता मू काळकांत!

*

खोल उदाक
निवळ दिसता
उथळ उदकांत
चिकल दिसता

## भक्ति-सूक्ति

देवाक सोदुन सोदुन हांवें
म्हळें, 'आतां सोदचों ना'
म्हळें ताणें, 'हेडलो कित्याक
तुज्याच म्हार्यांत आसताना'

- **बाकीबाब बोरकार**

(सासाय)

देवाली सृष्टी
फातर -
फातराचेरी सृष्टी
देवू -

*

घालता देवाक
एक रुपय काणीक
लागता मागूक
करोडांची भीक -

वेषु घालो
हीन चंडाळू
आनी आयलो
दीन दयाळू

*

सूख आसतना
विसरून देवाक
दुख येतना
आपयताय कित्याक?

वाल्मीकीन रचलें
रामायण
ते कारणान करयात जालें
पारायण !

*

दोळे धांकले म्हणून
काळूक जावना
देवाक दिकनाय म्हणून
देवु ना जायना

देवा माका समजना
तूं गरीब कि धनिक ?
कसल्याक तुका काणीक दितना
मागताय तुजेच लागी भीक ?

*

करता भजन सदा
म्हणता देवा-देवा !
पुण मन फातराचें
देवाक वळकतलो गा ?

सूर्या दर्यांत बुडलो
काळूक घेवन आयली राती
लायलो स्थानावेलो दीवो
उजवाड घेवन आयली वाती

*

कमळ फुलता
खालच्या चिकलांत
देव वास करता
दीन मनुष्याले काळजांत

मनुष्याचे जीणेचो दीवो
तूंच लायता
आनी काळूक जावो
म्हणून तूंच वाडवयता !

*

उजवाडांत सावळी
आमकां सोडीना
देवाची सावळी
अंधकारांतूय सोडीना

मीट खेल्यारी
उदाक पिता
पापां केल्यारी
भोगूका जाता

*

देवा मुकार भोजून
लायता अगरबत्ति
जाय तितलें केल्लें म्हणून
मागता उदरगति

जन्मु दिवंचो
अधिकार देवाचो
मरण आपणांवचो
अधिकार कशी तुमचो?

*

फातराचे देवा
काळीज तुजें फातराचें वें?
दुखेल्यानी करची सेवा
दृष्टींत तुजे पडना वे?

पळयली एकि वाट
दिसले देवालेच हात
चलून गेलो मुकार
मेळ्ळे माका देवचार

*

देवाले नांवार
भटाचें पोट भरता
पोटाचे खातीर
भटू पूजा करता?

सांज जाता सांज जाता
धर्तरी काळकांत बुडता
देवाचें ध्यान करतां
काळजांत फांतोड फुटता !

*

स्वर्गु आसता कशी
सांग तरी !
आरे सांगचें कशी ?
निमगीता तूं
हांव गेलेल्या वरी !

# सपनांत उपजली कवनां

तळय, भितरच्या काळकांतुल्यान
कमळां जावन फुलयता कवनां
तीं पळोवन म्हणता सूर्या-
बरीं आसाय, बरीं असाय

**- रवीन्द्रनाथ ठाकूर**
(काजूले)

जगांत उपजताय
सपनां
सपनांत उपजताय
कवनां

*

नीद चोरली
सपनांनी
जीण भरली
कवनांनी

दर्याचीं ल्हारां
खेळताय पळोवन
कवितेचीं ल्हारां
उठलीं नांचून

*

जनन म्हळ्यारी
जागो जावप
मरण म्हळ्यारी
निदेवनू पडप
मद्दें वेळारी
सपनां पळवप

मोगरीं गांतून
माळा परमळाची
उतरां गांतून
माळा कवनांची

*

सपनां पळोवन
कविता रचली
कविता पळोवन
सपनांय रचलीं

केदाणा तरी सपनांक
पाकां दवरलीं
जगाचे सत्याक लागून
तीं करपून पडलीं

*

जंय कडयताय भांगार
थंय कसल्याक माजर ?
कवितेच्या ह्या मळार
कसल्याक तें जळार ?

अशी तशी फांदळेता
मोगरेची वाली
तिजे काळजांत फुल्लेल्यो कविता
पोरमळाचीं मोगरीं !

*

आसा काळजाच्या घूडांत
कांय सुंदर सवणीं
जायना तांकां उडून वचाक
बंद केल्या लिखणी

लिखणी आसा हातांत
मुकार आसा कागत
उतरां आसाय काळजांत
पुण कविता मात्र फुलेना !

*

उजवाडाची दिवटी
राकून बेसल्या कविता
घालना हांव तिजेर दृष्टि
काळजांत बंद दवरतां

मळब मळब म्हणटाय
कांय कित्तें आसा थंय?
वैज्ञानिक म्हणता नाच कांय
सोदता कवि कविता थंय

*

रातीचें, नीद खोळून
सपनां रचलीं
दिसाचें, निदेवन पडून
सपनां तशीच वरलीं

झाड मिजें पारिजात
फुलता तें रात्यां रात
फांतोड्यारी फुलां घालीत
फुलायता ह्या काळजांत कवीत

*

कवीक विचारलें -
तुजी उत्तम कविता खंची?
कवीन विचारलें -
तुजें उत्तम भुरगें खंचें?




मोग नाशिलें जीवन
काळकान भरता
जीवन रस विना रूक
रेंवटेंत कशी फुलता ?

- तिरुवळ्ळुवर
(तिरुकुरल)

सुखा दीस
वताय धावनु
दुखा घडी
चरून चरून

*

पुन्नव फुलता काळजांत
तेन्ना चांदिण्याचो मंदहास
पुनवच काळकांत
जेन्ना काळजांत उम्मास

कोपाचे उज्यान तापलेली रेंव
दुकांनी शिंपून थंडावंची
मोगा रूक वोंवचो एक
फळां मेळतलीं सुखाचीं

*

आवसु कोपता
भुरगें भीयेता
तरी भुरगें हासता
आनी आवसूक मीरेयता

वयरी पळोवनाका रे
तुज्या खालट आसाय पळय
तांचें दुख चोवन रे
राबय, तुजें रणणे राबय!

*

दुकां गळोवन
सुजलेले दोळ्यान
सूख येतशी
दिकतलीं कशी?

मोगाचो गीम
सरतना
दुखाचो पावस

*

गोड उतरांनी
रचुयात स्वर्ग
कोडू उतरांनी
स्वर्गांतूय नरक

योग्य दानान
मेळता पुण्य
अर्द मनान
करचें दान शून्य!

*

दुखाचो फुगो
फुगयताय काळकांत
आसता तो सुको
चोयतना उजवाडांत

गोडसाण कळूक
कोडवाण वळकूका -
सूख कळूक
दुख वळकूका !

*

पोरूंचे वर्ष गळगळता पळय
दुख झाडून जळोवनू उडय
नवें वर्ष फुलता पळय
सुखा परमळाचीं सपनां फुलय

संतोष भरून
एकलो सूरु पिता
दुख विसरूक
आनी एकलो पिताच राबता

*

कालि हांव दुखी आसलों
दर्याचे गर्भांत पडलों
आज तरी खुश जालां
धर्तरेचे ताळुवेरी बेसलां

दुकांचे पावसान
शिंपून
सुखाचें रान
वाडोंवचें

*

भुरग्याले काळजांत
उमाळे
आवयचे पोटांत
उंडाळे

बंद आसाय वातायनां
घरांत वारें चडतलें कशी?
बंद केल्लेले मनांत
मोगु चडतलो कशी?

*

कसलीं कसलीं सपनां
दिकीलीं पोरुं परारूं
वरल्यांय आतां फकत व्यसनां
जशें बुडल्यां तारुं

आजो मोगान हाडून दिता
अमूल्य पाट्या शाळेवरी
पुण भुरगें दोळे दवरता
पटळी बांदिल्या वर्णा कागतारी

*

जंय वाडवता
मोगाचो गोबोर
थंय वरता
दुखाचो उजो

दोळ्यांतुल्यान
पडलेलीं मोतीं
पुंजावन शिंगारलीं
सुखा तांतीं

*

मोगाचे खातीर
जोडूक गेल्लो
रातदीस दुड्डु जोडून
मोगूच विसरून गेल्लो

दाकयता मोगी दोळ्यांनी
पुनवे चंद्रु मळबारी
काळजांत फुल्लर्ली कमळां
गावूक लागलीं पांयजळां

*

लागूचें मात्र
मेळतलें वें सांग
मेळ्ळेलें सर्वत्र
लागोवंचेंच चांग

मोगू शिंपून
फुलां फुलांवचें
सपनां गांतून
माळा करचें

*

मोगान करताय
कितलो त्यागू
मोगाचो करनाय
कशी तरी त्यागू

पुनवेचे चांदिण्या रातींत
विरहा काळूक भरूनाका
काळजांतुल्या काळके रातींत
चांदीणें घालूक यो रे मोगा

*

जिणेन बांदीतां
तुजी देवळी
मोगान जळयतां
तुपा दिवली

मेण करगून
वाती जळता
गर्व वाडवयतना
मन मोगान करगता

*

मनांत काळूक
भरला वे?
तोंडार उजवाड
येवना मू!

सूख आसा
जंय मोग भरला
कोपु आसा
थंय दुख भरलां

*

फुलतना खरो मोगु
होळता गोडशें उतर !
काळजांत काळका कोपू
चडतना तिखटें उतर !

गालांर तुजे सूर्यु बुडला
काळजांत मिजे चांदिणे घाल्यां
तुजे दोळ्यांतूले नक्षत्रांनी-
वोंटावेले कमळांनी -

*

ताटर तोपलांत
उदाक राबना
ताटर कपलांत
सुख राबना

काळजांत कोपु
भरूनाका
मोगाचो स्थायु
फारूनाका

*

एकलोच आसतना रडता
आनी लोकां मद्दें हासता
तूं हासतना लोकूय हासता
पुण रडतना एकलोच रडता

दुख निपोंवचाक
एकलो हासता
हासून हासून आनी एकल्याक
दोळो भरता

*

एकल्याक ना खाण
ताका मनांत दुख
आनी एकल्याक
खावनू खावनू
ना जाल्यां सूख

मोगरेन तिजो
कळो फुलावन
मोगु मिजो
घेतलो उप्पून

*

झाडा मूळांत पडून
सुकताय तिजीं फुलां
कितलें तट्टर कपाल तिजें
आवय वोरनू मरताय पिलां




वेळाचे रेंवेर
पावलां छाप आसूंक जाय ?
तरी पावलां तुमचीं
झरोवनाशिल्लें चमकाय !

**- डॉ. ए. पी. जे. अब्दुल कलाम**
(विंग्स ऑफ फायर)

दर्यावेलीं ल्हारां
एका मागल्यान एक
मनांतुलीं चिंतनां
एका उंचार एक

*

जीणेचे जांबा झाडार
जांब तांबडे तांबडे -
काडूक आळसाय जाल्यार
बेस गिळून आंयडे!

मुकार बरो रसतो आसुका
वाट पळोंवचाक
दोळ्यांत सुंदर सपनां आसुका
जीण जियेंवचाक

*

जगांत जन्मल्याक
आसता एकेक धर्म
तें विसरलेल्याक
जायना कित्या शर्म ?

उतरांक धार आसा तरी
काळजाक पडता घाय
उतरां तुजीं म्होवाळ करी
आनी उलय गो बाय

*

मरणाचे भयान
जीण विसरशाय
जीणेचे भयान
मरण आपणायशाय

खरो मित्रूय जातलो नष्ट
मोगाचे अभावान
पुण देवचाराले इष्ट
जांवचें सोंपें काम !

*

वांकाणसप आयकून फुगलो
ऊंच ऊंच मळबार पावलो
नक्षत्रां तोपून फुटलो
आसलेले कडेच पावलो !

माडवोळाक उंबळूक
ना तरी वस्त्रां वजें
जीणच तागेली
जातली एक वजें

*

आत्याचार पळोवन
दोळे धांपच्यांक म्हणचें कितें
क्षमामूर्ती वा निस्संग म्हूण ?
किं केवल भीरू ? हांव नेण तें !

संसारांत भरला
एकूच मंत्र
संगणकाचें जाल्यां
राजतंत्र !

*

मोगान दिल्यारीय
कारातें जायना गोड
कोपान दिल्यार
खीरीय जाता कोडू

गोडूच म्होवू जाय पीवूक?
तयार जा स्वल्प दुकी सोसूक
आसतले मू रे घूडांत मूस
काडतना म्होवू, घेवयात घास

*

चोखूक आंब्याचो
सूवाद रोसाळ
घेंवका लेंब्यांचो
घास मोगाळ!

काळी साया
लागतरी
उजवाड पडता
अक्षरांचेरी

*

शिला म्हळ्यार
विरूपी फाथर
शिल्पीले हातांत पडतना
रूप धरता सुंदर

जीणेचें मोंचूव
लक्ष्य नाशिल्लें होळतालें -
तें बुडूक लागलें तेन्नाच
लक्ष्य दृष्टींत पडलें!

*

सांगून जाल्लेलीं उतरां
परतून घेवूंक जांवचिना
कपलांतुलीं बर्पां
पुसूक म्हणूय जांवचिना

जियेंवचे खातीर
खायाय
खांवचे खातीर
जियेवनाकाय

*

किडियेन चाबून
बोंबलेची देंटूली
पडली तुंटून
आंबशी आंबूली

.

काळकी रात
जळार मस्त
चोखताय कीमत
रोगाचे बदलाक रगत !

*

जशी वोत वांटून सूर्यू
काळूक दूर करता
तशी ज्ञान वांटून गुरु
उजवाड भरता

तुजे शेजाऱ्यांन घालून जाळें
धरली होडली होडली मासळी
म्हणून करता तूं तोंड काळें !
जाल्यां वें काळीज असूयाळें ?
आळस्या, जाय तरी मासळी
सोडी तूं मांचाची सावळी !

मानता आपणाकूच संत
आनी भरता अहंकार
जावयात रे खरो महंत
दूरा करून तो अंधकार

*

दोळ्यांत धवी साया मांडतना
काळी सावळी दिकूना वे?
म्हणून धवें शीत वाडतना
काळें तोंड दाकोवयात वे?

जाळें पळोवन
मासळेक धरी
गूण पळोवन
मित्रांक धरी

*

बरें उतर
उलयता जाल्यार उलय
वायट उतर
तरी उलोवनाका एकय

केस दोनी पिकल्याय मू गे!
तुंटोवन काडून उडोंवका बि वे?
राबोय गो ते तशीच बाळा
जाय तें रुपें, गगरवाळ्यांक!

*

हाडां मोडशि दंद केल्यार
खूब खूब कुयां खावयात
हात बांदून बेसून चोयल्यार
कुंया खातीर मागून भोंवयात!

आसो खोल, आसो उथळ
सदा उदका ऊंच कमळ
आसो उजवाड, आसो काळूक
महंतांत सोदाय सत्य मेळूक

*

एक घेतल्यार एक मुफ्त !
आयचे ब्याराचो यो खंय मंत्र
माका दोन कसल्याक? फक्त
एकच पूरो - मुफ्त मात्र !

जळार रगत चोखता म्हणून
विदेशी सत्तेचो मूर्ति तो!
अहिंसा व्रत तरी धरून
महात्मा जावूक ना तो!

*

उणे काळाक मात्र तरी
मनुष्या तुजी जीणि
बरें काम केलें तरी
बारायकाळ वरतली काणी

अशीच म्हणताय -
बेगीन उठलेले सवण्याक
कीडि मेळता !
बेगीन उठलेली कीडि
सवण्याक खाण जावना ?

*

तेल सरून
वाती वळपेयता
सपनां नासून
जीण वळपेयता

राति जाल्यार दीसु आसा
दीसु जाल्यार राति आसा
जन्मु घेतल्याक मरण आसा
येंच शाश्वत - सत्य आसा

*

जन्मू घेतना एकलोच
मरणांतूय एकलोच
जन्मू साकून मरण तांय
जीयेवनाका एकलोच !

वेळार पावसु पडना तरी
म्हणताय पावसु घाली, हरी!
पावसु चडून हुवार जातरी
दिसता गीम बरो सरी!

*

सोरंगो तो मळबावेलो
उबून भोंवता वार्यांतुल्यान
खालाक राबिल्ले भुरग्यांगेलें
मन उबता मळबावेल्यान

जो कोपांत साकून मुक्त
तो जिखता
जाणे रुचलेना मोगा अमृत
तो हार खाता

*

पाया मूळांत एकि दासी
सदा उरता ती विश्वासी
सोडून वची न्हय ती दुबळी
आमचीच आसून ती सावळी !

हरड्याचे संगातान
म्होवाक लागता कोडुवाण
संतांले संसर्गान
जीणेंत भरता गोडसाण

*

माका दिसल्लें
हावें बरयलें
वाचून तूवें
वेगळेंच समजलें ?

# श्रीमती सूर्या अशोक हांचीं इतर पुस्तकां



## पुनर्जनी
(कथासंग्रह)

2005 वर्षा उजवाडाक हाडलेल्या ह्या कथासंग्रहाक श्री. शरतचंद्र शेणै हांगेली प्रस्तावना लाबल्या. 'श्रीमती. एन. एम. सरस्वतीबाय' स्मृतिपुरस्कार मेळ्ळेली 'देवदूत' कथा सयत, सात भावपूर्ण आनी सप्तरंगा वरी वैविध्याच्यो कथा ह्या संग्रहांत एकडे केल्याय.

ह्या पुस्तका विशीं उडुपीचे प्रो. एम. एन. प्रभु म्हण्टाय- "ह्यो काण्यो लेखिकेले जीवनदर्शनाचेर प्रकाश घालतातित. उत्तम समाजचित्रण, संवेदनशीलतेन परिपक्व जालेल्यो, लेखिकेल्या अनुभवान सरळ आनी सुंदर रीतीन बरयल्यो ह्यो काण्यो वाचकांक मंत्रमुग्ध करच्यांत यशस्वी जातातित".

लेखिकेन स्वयं रचिल्लें रंगीन मुखचित्र.

68 पानां. मोल 65 रुपया.

# कृष्णगीत

## (सचित्र काव्य)






2004 वर्षा उजवाडायलेल्या ह्या सचित्र काव्यपुस्तकांत लीलापुरुषोत्तम श्रीकृष्णाली जन्म धरून कंसवध पर्यान आशिल्ली, कृष्णकथा आसा. हाचे प्रस्तावनेंतुल्यान श्रीमती सुशीला टी. भट हांणी म्हळ्यां - “सान चेरडुवांक सरी प्रयास नातिल्लें समजूक साध्य आसिल्ले रूपान अत्यंत सरळ भाषेन वर्णन करूक जालेलें कवयित्रीले भाषा स्वाधीना निमित्तींच. ताळनिबद्ध आनी प्रासबद्ध पंक्तियो विविध मात्रेंचेर रचल्याय. कोंकणीच्या भक्ति साहित्याक आनी बालसाहित्याक केरळाचो एक उत्तम उपहार”. हांतूलीं चित्रां आनी रंगयाळें मुखचित्र लेखिकेन स्वतः रचल्यांय.

36 पानां (व्हड आकाराचीं). मोल 75 रुपया.

# शेणै प्रकाशनाले इतर उपहार

## होळ्ळम्मालो काणियांचो पेटारो

(कथासंग्रह)



परंपरागत लोक काण्यो आनी स्वकीय काण्यो मेळोवन तीस काण्यो एकडे करनू श्रीमती वत्सला आर. शैणै हानी भुरग्यां खातीर बरयलेल्या ह्या पुस्तकाक डॉ. एल. सुनीता बाय हांगेली प्रस्तावना आसा.

2006 वर्षाचें प्रकाशन.

104 पानां, मोल 100 रुपया.




# पुष्पांजली

(काव्य संग्रह)

श्री पी. एस. रामचंद्र शेणै हांगेल्यो बत्तीस कविता एकठांय करून 2001 वर्षा उजवाडाक हाडलोलो काव्य संग्रह. प्रोफ. आर. के. राव हांगेली प्रस्तावना. श्री शरतचन्द्र शेणै हांगेलीं बरीं उतरां. श्री आर. सुधाकर हांणी मुखचित्र रचल्यां. शेणै प्रकाशनालो प्रथम उपहार.

52 पानां, मोल 50 रूपया.



# होळळम्माल्यो काण्यो

(भाग - 1)

ऑडियो कॅसेट

श्रीमती वत्सला आर. शेणै हांणी कथन केलेल्यो तीन सुंदर कोंकणी लोककाण्यो.

2004 वर्षाचें प्रकाशन. मोल 40 रुपया.



# सूर्या अशोक

1969 वर्सा केरळाच्या तृपूणित्तुरा गावांत जन्म. बी. कोम. पदवि आनी कोंकणी साहित्यांत पदव्युत्तर डिप्लोमा जोडल्या. कथा, कविता, नाटक, प्रवासवर्णना, बालसाहित्य आदी जायत्या नेमाळ्यांनी आनी संग्रहांनी उजवाडाक आयल्यां. कोंकणी भाषा प्रचार सभा, वैष्णवरत्न मासिकपत्र, एस.जि.एस. सभा, आदीं कडेच्यान जायते साहित्य पुरस्कार मेळ्ळ्याय. 1999 वर्सा 'श्रीमती एन. एम. सरस्वतीबाय स्मृति पुरस्कार' मेळ्ळो. कवितें वरी कथाय साहित्य वेदींचेर अवतरण केल्याय. 'काव्योद्यान', 'साहित्यदीप्ति', 'कोंकणी काव्यमंजरी', केंद्रीय साहित्य अकादमीचो 'कोंकणी लोककाण्यो' अश्या विशिष्ट संग्रहांत हांगेले कृतींचो आस्पाव जाला. 2004 वर्सा कालिकत अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे वेदीचेर हांगेलें 'कृष्णगीत' सचित्रकाव्य प्रकाशित जालें. 2005 वर्सा हांगेलो कथा संग्रह 'पुनर्जनी' उजवाडाक आयलो. आतां 'संत वाणी आनी काणी' हाजे रचनेंत लागून आसा. हांका चित्र-शिल्प कलेंतूय व्हड प्रावीण्य आसा.

## काव्याच्या कुंजवनांत -

मेरुसदृश अक्षरवृक्षांतुल्यान पडिल्यो गुंजियो एकत्र कर्नु कवयित्रीन ह्या कविता संग्रहांतु पुंजायल्या. हो अक्षरवृक्ष गगनचुंबी आसूनु, सवण्यांच्या मधुर गुंजनान, गुंज्यानि समृद्ध आशिल्लो रूक. ह्या रुकाची कल्पना ह्या कवयित्रील्या कल्पना शक्तीक एक उत्तम निदर्शन. हांगा येवंचें अक्षरवृक्षाचें रूपक अत्यंत समर्पक आसा...

फूडे काळांतु भांगर तोलचाक गुंजियो वापरताले. हांगा चेवंच्यो गुंजियो भांगराक समानतुल्य जावन आस्सति. Madame de Stile म्हळ्ळी फ्रेंच विमर्शिका 'Poetry is a speaking picture' म्हणता. ही उत्ती हांगा चेंवच्या प्रत्येक चौपदीक सार्थक रीतीन अन्वय जाता. सप्रास ताळ, लयबद्ध तेजः पुंज पदपुंजाच्या ह्या काव्य कुंजवनांत विहार करचेंच एक अमोघ संतोष....

**-प्रो. एम्. एन्. प्रभु (उडुपि)**

---

**गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो**

**शेणै प्रकाशन**

मोल 100 रुपया

